

# बुकी

गितांजली केरकार

प्रकाशक : बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.

दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५.

प्रकाशन क्र. : १३०.

अक्षर जुळणी : बिम्ब प्रकाशन.

छापणावळ : इम्प्रेशनूस - बेळगांव.



पयली आवृत्ती : २१ जुलाय २०१७.

मुखपृश्ठ आनी सजावट : गितांजली केरकार

बुकी : (बाल साहित्य) गितांजली केरकार

**Buki** : *(Children's Literature) by Gitanjali Kerkar*

मोल : ₹ १००/-






**ISBN** 978-93-85654-18-3

बिम्ब
प्रकाशन

सतिश सोनक आनी म्हजो आजो चंद्रकांत केरकार हांकां समर्पित.



Love
Gitanjali



नेरूल नांवाच्या, दर्या देगेर वसलेल्या एका गांवांत रोझी नांवाची नुस्तेकान्न, आपलो बुकलो बुकी हाच्या सांगाताक रावताली.

बुकी हो एक माणकुलोच, काळो, खूब अपुर्बाय केल्लो मस्तो बुकलो.

बुकीक संवसारांत सगळ्यांत चड आवडटालें तें नुस्तें. नुस्तें खालें ना असो एकूय दीस ताचो वचूंक नाशिल्लो.



सद्दां सकाळीं रोझी आनी बुकी फांतोडेर उठून, फेरीबोट घेवन, पलतडच्या बाजारांत वतालीं. ह्या बाजारांत नुस्तेकार रातचें धरिल्लें नुस्तें घेवन येताले.

सगळ्यो नुस्तेकान्नी पाटल्या भोंवतणीं एकठांय जाताल्यो आनी आपल्या गिरायकां खातीर नुस्तें विकत घेताल्यो. पूण रोझीचो ताज्या नुसत्या बाबतींत फक्त बुकीचेरूच विश्वास आशिल्लो.

बुकी आपली छाती फुलोवन नुस्त्याच्या पाटल्या कडेन वतालो, तोंड फुडें करून, शेंपडी वाऱ्यार हालयत नुस्त्याचो वास घेतालो. अशे तरेन तो एका पाटल्या कडल्यान दुसऱ्या पाटल्या कडेन सगळ्यांत ताजें नुस्तें सोदतालो. तो मागीर रोझीक पळोवन तकली हालयतालो. हेंच नुस्तें मागीर रोझी त्या दिसा बाजारांत विकतालें.





बुकी उरिल्लो दीस रोझी कुशीक न्हिदून नाजाल्यार दुसऱ्या नुस्तेकान्नींक हडकीत वा दुसऱ्या मांजरांक आपणें वेंचून काडिल्ल्या नुस्त्याविशीं गजाली सांगपांत घालयतालो.



हळुहळू गरमेचे दीस सोंपले आनी पावसाचे दीस सुरू जाले. पावसा बरोबर आयली नुस्तेमारीचेर बंदी.

“आगो रोझी, तूं आज बाजारांत वचचें ना?” बुकी एक दीस सकाळीं फुडें विचारूंक लागलो.

“ना रे बुकी, आमी म्हयनोभर बाजारांत वचचीं नात.” अशें रोझीन सांगना फुडें बुकीन रोझीक निर्शेल्ले नदरेन पळयलें.



फुडले कांय दीस बुकीक जेवणांत फक्त शीत आनी भाजीच मेळटाली. पूण बुकी नुस्त्याक आशेतालो. ताका कितें चल्लां तें समजना जालें.



एक सप्तक सरलें. आतां बुकीक सामकें सोसूंक जायना जालें. ताणें आपल्या इश्टाक विचारपाचें थारायलें.

“हॅलो बुकी, कसो आसा तूं?” काळून बुकीक विचारलें.

“आरे तूं इतलो बेजार कित्याक दिसता?” बिलून विचारलें.

“कितें सांगूं तुमकां? एक सप्तक जालें हांवें नुस्तेंच खावंक ना. रोझी बाजारांतूच वचना. तुमी जाणात रे कितें चल्लां तें?”

“तुका खबर ना? दर वर्सा पावसाच्या दिसांनी नुस्तें मारपाचेर बंदी आसता. ह्या दिसांनी कोण्ण नुस्तेकार दर्यांत वचनात.” बिलून बुकीक सांगलें.

“बंदी काबार जायसर तुका रावचें पडटलें.” काळून म्हळें.

“दोन म्हयने? इतले दीस हांव रावूंक शकना.” अशें म्हणीत बुकी चलत रावलो.

ते राती बुकीक कशीच न्हीद पडना जाली. तो नुस्त्या शिवाय काडपाच्या दिसांविशीं विचार करत रावलो. अकस्मात ताका एक उपाय चिंतून आयलो. "हांवच नुस्तें मारून हाडटलों."

दुसऱ्या दिसा बुकीन वचून आपलो प्लॅन बिलू आनी काळूक सांगलो.

"पिसो जाला रे तूं? पावसाच्या दिसांनी दर्या खूब डेंजरस आसता." काळून म्हळें.

बिलून बुकीक एकट्याक नुस्तें मारूंक वचूं नाका म्हण सांगपाचो खूब यत्न केलो.

पूण बुकीन वचपाचें थारायल्लेंच. बुकी कसोच आयकना तें पळोवन बिलू आनी काळून ताका मदत करपाचें थारायलें.



ते राती, रोझी न्हिदल्या उपरांत बुकी घरांतल्यान हळूच भायर सरलो आनी धांवत दर्यादिगेर गेलो.



काळू आनी बिलू ताका थंय रावताले.

पेद्रू, जो काळूक सांबाळटालो, ताचें व्हडें आशिल्लें. बिलून आनी काळून व्हड्यांत चडपाक बुकीक मदत केली.

काळून गरी, गरोवपाक सुंगटां आनी नुस्तें घालपाक एक पोती हाडिल्ली.

''सांबाळून वच आनी परत सारको घरा यो.'' ताणीं बुकीक म्हळें.

बुकीन आपल्या इश्टांक 'बाय' म्हळें आनी ताचें व्हडें उदकांत देंवलें.

रोखडेंच व्हडें दर्यांत पावलें. बुकीन आपली गरी काडली आनी तो उमेदीन गरोवपाक बसलो.

हळुहळू मळब गोबऱ्या कोराचें जावपाक लागलें आनी मळबांतलीं नकेत्रां नाच्च जालीं.





बुकी मोठे दोळे करून पळयत आशिल्लो. आतां तो मात्सो भियेलो. अकस्मात मोठ्यान वारें मारूंक लागलें. उपरांत जोगलावणें आनी गडगड सुरू जालो.

पावसाचे व्हडले व्हडले थेंबे पडपाक लागले. ल्हारांच्या नेटान व्हडें हालपाक लागलें. भियेल्लो बुकी किंळच्यो मारपाक लागलो. पूण तो दर्यादेगे पासून खूब्ब पयस पाविल्लो.

व्हडें उमथलें जाल्यार हांव कितें करतलों? बुकी व्हड्यांत लिपून बसून चिंतपाक लागलो.

इतल्यान बुकीक व्हड्यांत एके कुशीचे बॅगेंत 'स्कुबा डायव्हींग गीयर' दिसलें. लोकांक डायव्हींग शिकयतना ताणें पेद्रूक  खूबदां पळयल्लें. बुकीन तें रोकडें घालें.



अकस्मात एक व्हड ल्हार आयलें आनी बुकीचें व्हडें उमथलें. ताणें व्हड्याक धरपाचो यत्न केलो. पूण बुकी उदकांत पडलो आनी ल्हारांनी ताका भितर ओडून घेतलो.



जसो जसो तो उदका भितर गेलो, उदक शांत जालें. ताणें आपले भोंवतणी तरेतरेचें नुस्तें पळयलें. दर्यापोंदा नुस्त्याचो बाजार आसा हाचेर ताचो विश्वासूच बसना जालो. ताणें विसवण, मुड्डशी, पापलेट आनी तांबशे पळयले.

दर्या भितर माजराक पळोवन एका व्हडल्या नुस्त्यान म्हळें, "माजरा, तूं हांगा कितें करता?"

"हांव नुस्तें गरोवपाक आयिल्लों पूण म्हजें व्हडें उमथलें." बुकीन सांगलें.

उलयतां उलयतां बुकीन व्हडल्या नुस्त्या फाटल्यान पेंवतना इल्ली-इल्लींशीं नुस्तीं पळयलीं.

"हीं म्हजीं भुरगीं. हांव तांकां भोंवपाक व्हरताली. फक्त ह्या म्हयन्यांत आमकां मेकळेपणान पेंवपाक मेळटा." आवय नुस्त्यान म्हळें.

माणकुलीं नुस्तीं बुकीच्या लागीं येवन ताच्या काना आनी शेंपडे वांगडा खेळपाक लागलीं.

‘‘तुजें नांव कितें?’’ एका धाकट्या नुस्त्यान बुकीक विचारलें.

‘‘बुकी, आनी तुजें कितें?’’ बुकीन अजापान त्या ल्हान नुस्त्याक विचारलें.

‘‘चिकी.’’ल्हान नुस्त्यान जाप दिली.

‘‘आनी म्हजें नांव मीनू! तूं आमचे बरोबर खेळटलो?’’ मीनून बुकीक विचारलें.

‘‘पूण तुवें अशें कित्याक म्हळें की तुमकां ह्याच म्हयन्यांत मेकळेपणान पेंवंक मेळटा म्हूण?’’ बुकीन नुस्त्या आवयक विचारलें.

‘‘ह्या दिसांनी दर्यांत जाळ आसना. नुस्तेंमारीचेर बंदी आशिल्ल्यान आमचीं भुरगीं मेकळेपणान खेळपाक शकतात. आनी आमी तांकां व्हडलीं जातना पळोवंक शकतात.’’ आवयन बुकीक सांगलें.

बुकीन तोंडार हांसो हाडून ल्हान नुस्त्यांक पळयलें आनी आपल्याक तुमचे वांगडा खेळपाक खूब आवडटलें म्हणपाचें सांगलें.

पूण अकस्मात एक जाळ दर्यांत येवपाक लागलें.

''लिपात, लिपात भुरग्यांनो.'' आवयन भुरग्यांक म्हळें. सगळीं भुरगीं फातरा फाटल्यान लिपपाक गेलीं. पूण चीकू आनी मीनू जाळांत सांपडलें.

''मम्मा, मम्मा आमकां मदत कर!'' म्हणून तीं किंळच्यो मारूंक लागलीं. जाळ ल्हवल्हव वयर वचपाक लागलें.

आवयन तांकां नाईलाजान पळयलें. ती कांयच करूंक शकली ना. ती हांगा थंय पेंवपाक लागली.

तेन्नाच तिचें लक्ष बुकीचेर गेलें. बुकी हें सगळें पळयत राविल्लो.

''बुकी आमची प्लीज मदत कर!'' तिणें बुकीक म्हळें.

''कितें जालें?'' बुकीन विचारलें.

“हे मनीस नुस्तेमारीचेर बंदी आसुनय नुस्तें मारूंक लागल्यात. आतां आमच्या नशिबांत ह्या म्हयन्यांतूय सुटका ना शी दिसता.” नुस्त्या आवयन दुखेस्त जावन म्हळें.

आवयक दुखी पळोवन बुकीन तिका मदत करपाचें थारायलें.

बुकी बेगीबेगीन जाळा फाटल्यान पेंवपाक लागलो. जाळाकडेन पावना फुडें ताणें आपल्या दातांनी आनी नाखटांनी जाळें पिंजलें आनी दोनूय नुस्तीं रोखडींच भायर सरलीं. ताणें धांवत वचून आपले आवयक घट्ट वेंग मारली.



आवयन बुकीचे उपकार मानले. चीकू आनी मीनून ताका वेंग मारली. उरिल्लीं सगळीं नुस्तीं बुकीक शाबासकी दिवपाक लागलीं.

तेन्नाच आवयन वयर पळयलें आनी तिका थंयच्यान एक व्हडें वतना दिसलें. "बुकी, बुकी बेगीन त्या व्हड्यांत चड. तूं घरा पावतलो." तिणें म्हळें.



बुकी बेगीबेगीन वयर गेलो आनी व्हड्यांत चडलो. त्या व्हड्यांतलो नुस्तेकार कांयच नुस्तें मेळूंक ना म्हूण बेजार जाल्लो. ताणें बुकीक भितर सरतना पळोवंक ना.

बुकीन नुस्त्यांक 'बाऽय' म्हळें.





व्हडें धक्याक लागना फुडें बुकीन उडी मारली आनी धांवत घरा गेलो.



बुकीक पळोवन रोझी खोशी जालें. "आरे, खंय गेल्लो तूं? हांव तुका सकाळच्यान सोदतालें. चल पळोवंया जेव वचून. तुका बरो खाऱ्या कुडको बाजून दवरला आयज." रोझीन बुकीक म्हळें.

खारें म्हणूं नाका बुकीन टुणूक करून उडकी मारली आनी 'खारें जाल्यार खारें! करतलो कितें?' अशें मनांतल्या मनांत म्हणत ताणें आवडीन शीत काबार केलें. बुकी उमेदीन जेवता तें पळोवन रोझीय खोशी जालें.



जेवल्या उपरांत बुकी न्हिदपाक गेलो. आपले दर्यांतले भोंवडेविशीं आनी दर्यांतल्या आपल्या नव्या इश्टांविशीं येवजीत तो सुस्त न्हिदलो.



गितांजली आनी कुटुंबांतल्या हेर भुरग्यांक न्हिदपा वेळार भाई म्हळ्यार तांचो आजो काणयो सांगतालो त्यो आयकत आयकत तीं व्हड जालीं.
आज गितांजली आपल्या प्रामाणिक आनी संवेदनशील काणयांतल्यान म्हाका म्हज्या भुरगेपणांत व्हरता.
'बुकी' ही ताच्या कल्पना विश्वांतली अशीच एक काणी जी तें आयच्या भुरग्यां मुखार दवरता. तिका भुरगीं तशेंच जाण्टीं येवकार दितलीं हाची म्हाका खात्री आसा.

**सुबोध केरकार**



गितांजली केरकार ही गोंयच्या साळगांव ह्या माणकुल्या गांवांतली, भुरग्यांखातीर बरोवपी उदेती लेखिका.

ती सद्या फार्मासीटीकल सायन्सची विद्यार्थिनी जावन आसा. गितांजली आपल्या मेकळ्या वेळांत आपल्या लेखन आनी चित्रां वरवीं भुरग्यांची बुद्धिमत्ता वाडोवपा पासत वावुरता.

माणकुल्या भुरग्यांनी आपली नैतिकताय, आपल्या हक्कांची जाणविकाय वाचनांतल्यान वाडोवंची तशेंच काल्पनीक काणयांच्या माध्यमांतल्यान खरें वा फट हाचेविशी समजीकाय हातासची ही तिच्या लिखाणा फाटली मोख जावन आसा.

जेन्ना गितांजली आपल्या प्रयोगशाळेंतल्यान भायर सरता तेन्ना आपलो चडसो वेळ मळबाची, दर्याची आनी नखेत्रांची सुंदराय तोखेवपाक आनी काणयो बरोवपांत सारता.

gitanjalikerkar1991@outlook.com

ISBN 978-93-85654-18-3



बिम्ब
प्रकाशन

₹ 100/-